## माणकुल्यांचीं कवनां

(बालवर्ग-1 खातीर)

पयली उजवाडावणी: 2015



प्रकाशक:
सचीव,
कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय
कोंकणी भवन,
शंकर भांडारी मार्ग
विद्यानगर, मडगांव, गोंय 403 601
फोन: (0832) 2750585

अर्थीक पालव:
राजभास संचालनालय,
गोंय सरकार

मोल: रु. 100/-



एक आसलो बेबो
ताका दिसलो खुबो
बेब्यान म्हळें : खुब्या, खुब्या
वाटेर कित्याक उबो ?
खुब्यान म्हळें : बेब्या, बेब्या
सोदतां म्हजो भोबो



ये ग चिमणे
आमच्या घरा ये ये
ये ग चिमणे
आमच्या घरा ये ये
आमच्या घरा चणे खा
बरे बरे दाणे खा
चणे खा दाणे खा
खा, खा, खा, खा



ये ग चिमणे
आमच्या घरा ये ये
ये ग चिमणे
आमच्या घरा ये ये



माडाचे तेंगशे वयलो
पाचवो पाचवो कीर
चुडटार बसून शिळोणी घालता
फिर्र फिर्र फिर्र

मुयेबाये, मुयेबाये
खंय गे गेलेली ?
पसऱ्यार बाये आयल्या साकर
हाडूंक गेलेली



फुरू फुरू जल्लो

मिशी हालोयता

तुरू तुरू सोण्णांच्या

राशींत लिपोता





फुलय फुलय बोमाडो
निळो पाचवो तांबडो
बोमाडो सुटलो सुर ऽऽऽ
मळबांत उडलो भुर ऽऽऽ



पदेर पदेर पांव
फांतोड जाली धांव
उंडे कांकणां खावंक
रावता सगळो गांव



पणस पणस काट्यांचो
पोटांत घरो म्होंवाचो
घमघमता घरभर
वास पिकया पणसाचो

चवथीक करतात नेवऱ्यो

दिवाळेक करतात फोव



ईदाक शीर खुर्मा

नातालांक दोदोल मोव

पाचवो कीर,
मारता सेलांव

पेरां खाता,
मिरसांग खाता

येतांच हांव,
मारता धांव



केळ्याचो फेणो

आंब्याचें साठ



पणसाचे घरे

सगल्यांक वांट

जल्लो जल्लो जल्लो

पाखां फुलयत उडलो



वण्टीर सरसर चडलो

पळोवन बाबू हांसलो

मामा म्हुजो येतोलो
दोदोल-बिबींक हाडटोलो

बाये-बाबा म्हुणीत आमकां
गोड पापी दितोलो



काळो काळो दोमळो

तुरू तुरू चलता



गोड गोडा कुडको

तोंडांत धरून धांवता

मदले सुटयेंत तोर खावया

तोराक इल्लें मीठ लावया



उदक सुटलां जिब्रेक जांच्या

तांकाय एक फोड दिवया



फुला गो फुला तुका

कोणें रंगयलां ?

इंद्रधोणू रंगांनी

चिप्प भिजयलां

पाचवो पाचवो कीर

ताची चोंच तांबडी लाल



कीर्र कीर्र बोबाळ आनी

भूर्र भूर्र चाल

चोखून चोखून आंबो

रोखडोच सोंपलो





चोखून चोखून कातो

म्हातारोच जालो

कारात्याची बीं
झरोवन दी
म्हाका नाका
तुका नाका
दी ________





एक आसली शिल्ली
माडयेर चडली
चड चड चडली
आनी चुडटांत शिरकली



निळ्या निळ्या मळबांत
उडटा एक घोण
बारीकसाणीन पळयता
सकयल दिसता कोण



रंगरंगयाळीं सोबीत म्होवीं
पारव्यांचीं हीं भिरीं
म्होंव खावंक फुला फुलांचेर
घुंवतात गिरीगिरी



चकचकीत दाखयत दांत
पावस हांसोता

अळम्यांची सत्री घेवन
बेबो नाचोता



रातकिडो दाराखांचींत
कीर्र कीर्र करता

आमचे वांगडा घरभर
बुकी लेगीत सोदता



सुपा येदे कान
नाक म्हजें लांब
पांय म्हजे खांब
नांव म्हजें सांग, बाये
नांव म्हजें सांग





एक आसली ऊय
तिका भेटली मूंय

उयेन म्हणलें: मुंये, मुंये
कित्याक चोयता भूंय ?

मुंयेन म्हणलें: उये बाये
शेणल्या म्हजी सूय

आपटी धपटी
खावच्चें पान
घाल गो बेबी
म्हजें नांव
आ ऽऽ पो
झिंदा ऽऽ पो
ताडी मिडी
पो



आखो माखो
तेल माखो
तेलकाराचो
डबो फुटलो
तेल गे तेल



घड्याळ म्हण्टा
टीक् टीक् टीक्
टीक् टीक् टीक्
गाडी करता
पीक् पीक् पीक्
पीक् पीक् पीक्
कोंबी करता
कूक् कूक् कूक्
कूक् कूक् कूक्





येया येयात
घंटा वाजली
घण् घण् घण्
गाडी सुटली
खटक जाली
खट् खट् खट्
गाडी धांवता
गाडी धांवता
झूक् झूक् झूक्

गाडी धांवता
गाडी धांवता
झूक् झूक् झूक्
इंजिन फुडें
फाटी डबे
कूक् कूक् कूक्



हूप हूप माकडा
खंय रे आशिल्लो ?
तुमच्या आंब्यार पिकल्यात आंबे
खावंक बशिल्लों
हूप हूप माकडा
शेंपडी तुजी लांब
अर्रर्र तूं ! वेता तोडूंक
पुर्तुगाली जांब

खट् खूट् करता काय
पेटये चावी काडटा काय?
आमकां दुडू दिता काय?

शबय ऽऽ शबय
शबयचें बावलें
तारीकडेन पावलें
शबय ऽऽ शबय



बाबू पिता दुदू
सुरू सुरू सुरू

माकड खाता पापड
कुरू कुरू कुरू

दर्यार धांवता तारूं
तुरू तुरू तुरू



टिवीर चल्ल्या मस्ती
टॉम, जॅरीची
सोफार चल्ल्या कुस्ती
बाय, बाबूची

बाबूक जाय क्रिकेट
बायक जाय कार्टून
हाय सायबा गेली लायट
पडली दोगांयची विकेट



पाडेलीमाम, पाडेलीमाम
चड रे बेगीन माडार
झपाझप आडसरां
उडय दोन बांदार





बुकी म्यांव
कावळ्या कांव
सगळे आमी
इश्ट जावं
आंगणांत आमी
भयण भाव
मेळून बरो
खेळ जावं



हांसतां गायतां
व्हड जावं
सगळ्यांक आमी
जाय जावं



आश्टो दिश्टो
पेर दिश्टो
पेरी वयलो
कीर दिश्टो

आश्टो दिश्टो
फूल दिश्टो
फुला वयलो
पाखो दिश्टो

आश्टो दिश्टो
बीळ दिश्टो
बिळा कडलो
सोंसो दिश्टो

पयली ताळी
आईची आईची
दुसरी ताळी
बाबाची बाबाची
तिसरी ताळी
ताईची ताईची



चवथी ताळी
भाईची भाईची
पांचवी ताळी
सगळयांची सगळयांची

बुकीमामा बुकीमामा
रांदचे कुडींत कसलीं कामां?

काव्ळेकाका, काव्ळेकाका,
कातली म्हजी चोरूं नाका



कोंबयेबाये कूक्, कूक्
पिलांक तुज्या लागल्या भूक

डींग डाँग
डींग डाँग
वाजता घांट
धांव धांव बाबू
धर म्हजी फाट

डींग डाँग
डींग डाँग
वाजली घांट
बाबून धरली
म्हगेली फाट



आवो भोवो भाजया
मामा-घरा वचया
मामान दिलें तवशें
खंयच्या खांदार घेवशें



दाया खांदार घेवशें
उजव्या खांदार घेवशें
वाटेर बसून खावशें
तोंड पुसोन घेवशें

दीस तुज्या जल्माचो
दीस व्हडा खोशयेचो
हॅपी बर्थ डे म्हुणोन
उगडास कोत्ता तुजो
जल्माचो दीस तुजो
जल्माचो दीस तुजो



सारेगम पेटी गायता
तक्धीन तक्धीन तबलें वाजता
दोरेमीफा वायोलीन म्हणटा
सोबीत आमचें कांतार फुलता



धीक् थै धीक् थै घुमट गाजता
तण् तण् तण् तण् शामेळ वाजता
चींग चींग चींग चींग कासाळें वाजता
शिगम्या मांडार मेळ नाचता

जेवंक कशीं बसतलीं?

- एके रेगेंत

कित्याचेर बसतलीं?

- पाटार

पाट कसो?

- चौकोनी

सामोसा कसो?

- तिकोनी

भाकरी कशी?

- वांटकुळी

खातलीं कशीं?

- मटा मटा



म्हजे गाल कशे दिसतात?

- गूल गूल गुलगुलीत

म्हजे दांत कशे दिसतात?

- चक् चक् चकचकीत

म्हजे दोळे कशे दिसतात?

- लीक् लीक् लिकलिकीत

म्हजे केंस कशे दिसतात?

- काळे काळे कुळकुळीत




आपा लिपा
साय लिपा
साळचो गोणो
जिखून धर
हातांत किदें
मुऽऽदी
चल भावभयणीच्या
सोऽऽदी

इटकुलें पिटकुलें फुलपाखुलें
बागेंत उड उडटा
भोंवऱ्या वांगडा खेळटा



बिरमुटे फाटी धांवता
फुला-वेंगेंत बसता
म्हाेंव चोख चोखता

अळम्या बाये, अळम्या बाये
अशें कशें रूप तुजें
एक पांय माथ्याक चेपें
चित्र तुजें काडूंक सोंपें



वाजता ढोल, वाजता ढोल
ढूम् ढूम् ढूम्

म्हणटा घुंगूर, म्हणटा घुंगूर
छूम् छूम् छूम्



वाजता झांज, वाजता झांज
झन् झन् झन्

नाचता बाबू, नाचता बाय
छन् छन् छन्

वयर, वयर, वयर बाबू
वयर तुजे हात,
बागय, बागय, बागय बाबू
बागय तुजी फाट



हालय, हालय, हालय बाबू
हालय तुजी मान,
दोनूय हातांनी धर रे बाबू
दोनूय तुजे कान

तामरेतीर पानां
मेजार फुलां
आमचो कीर येतलो
अयशीं रूपया हाडटलो
गुलाबांनी तोडिलो
पकड पकड पकड
शेंवतें काय गुलाब?



बिलूबाय बिलूबाय कितें तुका जाय?

तत्यावेलें मेमें काय दुदावेली साय?

मेमें नाका दुदू नाका भोबो म्हाका जाय

थंड थंड आयस्क्रीम आनी चॉकी म्हाका जाय





सांवरीचो कापूस
खंय खंय हुबलो

वाऱ्या वांगडा धांवलो
म्हज्या माथ्यार बसलो

मोव मोव कापूस
म्हज्या हाताक लागलो

हांगा थंय हांगा थंय
म्हजे वांगडा नाचलो

कांगारू पळे कांगारू

नाका ताका धरूं

ताच्या बोल्सांत बसला पळे

ताचो धाकटो पोरू



वाऱ्या तालार
धोलता माड
धोल धोल बांदार

वत लागना
पावस लागना
चुडटांसत्री माथ्यार



आमूरपिकीं चिंचे बोटां

बॅगांत आसात गोड घोटां

हात वयर काडात जाय तांकां



सगळीं म्हणटात म्हाका म्हाका

जाय तितलीं दितां तुमकां

बोवाळ मात करिनाकात



जिंगल बॅल, जिंगल बॅल जिंगल वाजोता

नातलां पाय येता चोय भुरगीं नाचोता

जिंगल बॅल, जिंगल बॅल जिंगल वाजोता

नातलां पाय माणकुल्यांक चॉकी खावोयता

गीर गीर भोंवरो

गीर गीर गीर

बाय म्हजें खाता

खीर खीर खीर

वझरो व्हांवता

झर झर झर

कळशांत उदक

भर भर भर



आनाळ्यो गुनाळ्यो बाय काडटा
बाये वांगडा कोण खेळटा?
शाळेंतलीं भुरगीं शाळेंतलीं भुरगीं

आनाळ्यो गुनाळ्यो बाबू काडटा
बाबू वांगडा कोण खेळटा?
वाड्यावेलीं भुरगीं वाड्यावेलीं भुरगीं



आणकू माणकुल्यो
साय माणकुल्यो
कुरकुटांत माजर बसलां
पेज कर गो माजरा
शिरोडेंची कायल
बांदोडेंचो दवलो
कोणाक जाय
धुमको
कोणाक जाय
चिमटो



हॅलो हॅलो
हांव मोबायल
तुका कोण जाय?

1, 2, 3, 4
हो नंबर लाय
बरें चल बाय



आटुकुटीची
आटुकुटीची
भाजी काडुया
वागमामा
येत जाल्यार
धांव मारुया



खरांय खुरू
खरांय खुरू
खुबे काडुया
मानगेंमावशी
येत जाल्यार
वयर सरुया

चींव, चींव चिमणी
चिंवचिंवता, चिंवचिंवता

गितार टींव, टींव
टिंवटिंवता, टिंवटिंवता



गूण गूण भोंवरो
गुणगुणटा, गुणगुणटा

झण, झण वारें
झणझणटा, झणझणटा



पावसा यो रे पावसा यो रे
सुकणीं सादयतात
पावसा यो रे पावसा यो रे
भुरगीं आपयतात

जळा मळा उदक कर रे
खेळ खेळूंक जाय
कागदाचीं व्हडीं करून
तातूंत सोडूंक जाय

हांव मस्तें
एक नुस्तें
उदकांत खेळटां
खेळ नसते
उदकांत हांव
तिटतिट्टां

शेळो खावन
मिरमिट्टां
म्हणूंक नाका
म्हाकां मस्तें
तोंड हांसतें
हांव नुस्तें



गोडाचें खटखटें
गोड गोड गोड
कारात्याची भाजी
कोडू कोडू
चिंचेचें बोट
आमट आमट

पोरसांतली मिरसांग
तिखट तिखट
मिठाची कणी
खारट खारट
पोरसांतलो मुळो
तोरट तोरट



हांव पिसोळें, हांव पिसोळें
निळें, निळें, निळें.
हांव पिसोळें, हांव पिसोळें
भोळें, भोळें, भोळें.
उडूंक उडूंक दी गो म्हाका
धरूं धरूं नाका,
उडूंक उडूंक दी गो म्हाका
घरा व्हरूं नाका





आरे आरे रुखा
कितलो तूं बरो

फुलां दिता फळां दिता
इश्ट म्हजो खरो



आरे आरे रुखा
कितलो तूं बरो

पावस दिता सावळी दिता
इश्ट म्हजो खरो



पाटल्यांत नुस्तेकान्नीन
नुस्तें हाडलां जायतें
ताल्ले बांगडे शेंवटे
सुंगटां कुल्ल्यो बुरांटे
नुस्तें पळोवन हांसलें
बाय आमचें धाकटें

पावस येतलो आयज, फाल्यां
पावसाची सुलूस लागता
डरांव डरांव बेबो गायता
साकरे कण मुयो ओडटा
थुई थुई मोर नाचता
मम्मा बेगीन बाजारांत वता
बायूक म्हज्या सत्री हाडटा





चीब-चीब चिबड
माटोळेक बांदलें
चीब-चीब चिबड
पिकून फुटलें

चीब-चीब चिबड
ढब्ब करून पडलें
चीब-चीब चिबड
गोडाक लावन खालें



वयल्या वयल्या रानांत
रावता कोण? रावता कोण?
वाग, शींव, हती
आनीक कोण? आनीक कोण?
हरण, वांस्वेल, कोलो
आनीक कोण? आनीक कोण?
सोंसो, लांडगो, चितो
आनीक कोण? आनीक कोण?

---

घरा फाटल्या पोरसांत
आमी रोयल्या भाजी
सांगात कसली ? सांगात कसली ?
भेंडे, वाल, तवशीं
आनीक कसली ? आनीक कसली ?
पडवळीं, वायंगीं, घोंसाळीं
आनीक कसली ? आनीक कसली ?
नाब, दुदी, चिटकी
आनीक कसली ? आनीक कसली ?

---





सोबीत आमचे बागेंत
फुलां फुल्ल्यांत जायतीं
सांगात कसलीं? सांगात कसलीं?
जायो, जुयो, चमेली
आनीक कसलीं? आनीक कसलीं?
कुंजां, गोटलां, मोगरीं
आनीक कसलीं? आनीक कसलीं?



निळ्या निळ्या उदकांत
नुस्तीं पेंवतात जायतीं
सांगात कसलीं? सांगात कसलीं?
बांगडे, शेंवटे, वेल्ल्यो
आनीक कसलीं? आनीक कसलीं?
तामशे, चणकां, कुल्ल्यो
आनीक कसलीं? आनीक कसलीं?
सुंगटां, रांवस, कल्ल्यो
आनीक कसलीं? आनीक कसलीं?

